15/2/2013

# अर्थ

गौरीश वेर्णेकार



अर्थ प्रकाशन

अर्थ
(कविता संग्रह)

कवी
गौरीश वेर्णेकार

प्रकाशन क्रं-12

प्रकाशकः
सौ.योगिता गौरिश वेर्णेकार

उजवाडावपीः
अर्थ प्रकाशन
पणसुलें, काणकोण - गोंय.
फोनः 0832 2643226, 9823140229

छापपीः
ऋतु ऑफसेट
सावयवेरें, गोंय.

मुखचित्र
गौरीश वेर्णेकार

पयली आवृत्ती-ऑगस्ट 2012

मोलः 100/-

# ऑंपता......

नाविन्याचो अर्थ पळयनास्तना
आपलेच कवितेच्या
.....साच्याक
.....कल्पनेक
.....उतराक
......अर्थाक
......तोखेवपी ...... कवीक

- गौरीश





अमृताचे अर्थ
वेखाचे अर्थ
भोगाचे अर्थ
त्यागाचे अर्थ
ज्ञानाचे अर्थ
ोणाचे अर्थ
अर्थ आस्तिकाचे
अर्थ नास्तिकाचे
अर्थ वळाचे
अर्थ पिळाचे
अर्थ शस्त्राचे
अर्थ अस्त्राचे
अर्थ वराचे
अर्थ शापाचे
अर्थ जोडपाचे
अर्थ मोडपाचे
अर्थ शांतीचे
अर्थ क्रांतीचे
अर्थ शंडाचे
अर्थ बंडाचे

अर्थ भोगतात
अर्थ विकतात
अर्थ शिजतात
अर्थ जळटात
अर्थ विट्टात
अर्थ मरतात
अर्थ तारतात
सुखाचे अर्थ
दुख्खाचे अर्थ
मोगाचे अर्थ
रागाचे अर्थ

कल्पनेच्या मळबांत
जेन्ना भावनेचे शब्द........ एकटावतात
.......तेन्ना मनाचीं उतरां कडकडतात
वाक्यां घणघणतात
तेन्ना सुरू जातात......
अर्थ उतरांचे

गौरिश

## उत्फक्यां - उमाळ्यांचो हृदयसंवाद

उतरांचो संवसार म्हळयार एक अप्रूप अशी आगळी वेगळीच गजाल. उतरांक अर्थ आसतात. पूण जायतेदां एकच उतर चालंत अर्थापरसय एक वेगळोच अर्थ घेवन येता. केन्ना तें बाण कशें काळजांत रिगता. केन्ना तें सोबीत फूल जावन परमळत येता. जाल्यार केन्ना तें ल्हवपीक पांख जावन मनाक हय न्हयशें हुळहुळायत येता. उतराची शक्तच मोठी. ती शक्त अजमावप कठीण. कवी, लेखक ह्या उतरांकडेन खेळटात. तांकां आपणाले प्रतिभाशक्तीन आपणाल्या आटापांत हाडपाक पळयतात. उतरां मागीर तांचेकडेन आपूण जावन उलोवपाक लागतात. आनी ते उतरांकडेन संवाद सादतात. हातूंतल्यान आकाराक येतात साहित्यशिल्पां. ही शिल्पां बेठींच घडनात. तांकां आकार आसचो पडटा. आपणालो असो एक रंग आसचो पडटा. एक आंतरीक ध्वनीय आसचो पडटा.तो ध्वनी परत तुमच्या-आमच्या काळजाक जागयता, सुखायता.आनी जीवनानुभूतीचो आनंद मळोवन दिता. गौरीशबाब वेर्णेकाराल्यो 'अर्थ' मदल्यो ल्हान-सान मक्ताच उतरांनी आविष्कृत जाल्ल्यो कविता खोलायेन वाचल्यो तेन्ना ह्या आनंदा-नुभवान मन भरून गेलें. साहित्य समालोचक, समीक्षेचो चष्मो लावन ह्या कवितांची विस्कणी वेगळे तरेन करूंक शकतात. पूण ते खातीर,एक रसीक आस्वादक ह्या अर्थातल्या रचनाचो आनंदानुभव घेवपा पासून वंचीत जावन रावंक शकना, हे हांव आरंभाकच सांगून उडयतां.

ह्यो कविता, हांवें ह्या आदीं म्हळां तशें ल्हान-सान आसल्यो म्हळयार चार वळी, स वळी वा कांय रचना तेय परस कांय अदीक वळीच्यो आसल्यो तरी तातूंतल्यान उक्ते जाल्ले अंतमनांतले उत्फके - उमाळे, तातूंतल्या प्रत्यक्ष उतरांपरसूय जायते अदीक कितें तरी सांगून वेतात. कवी म्हणटा :

'आमी आमचे खातीर
शब्दांचे रथ घेवन येतात
अर्थाचें चक्र..........
.................उलट सुलट
फिरोवन वेतात.'

कवी 'शब्दाचे रथ' घेवन येता ताचे फाटल्यान जबर असो एक आत्मविश्वासय आसा.

कवी म्हणटा :

'कोणाचोय शब्द घेनासतना........
म्हाका म्हजोच एक अर्थ
तयार करपाक जाय............
....................आनी सगळयांक अर्थ
सोदपाक लावपाक जाय.

कवाच्या आत्मविश्वासाक एक सामंजस्याचेंय तास आसा. तो म्हणटा :

'अनर्थान पयस जाल्ल्या
मोडणार
परतून एक फावटी
मेळुंया................
.............उरिल्लें आयुश्य तरी
अर्थान बांधुया.'

कवीन ज्यो ह्यो भावना उक्तायल्यात तातूंतल्यान एक गजाल स्पश्ट जाता,- तो आपणाले भुंयेचेर थीर आनी घट्ट पांय रोमून उबो आसा. ताचे नदरेमुखार अस्पश्टताय ना. ताच्या मनांत जें कितें आसा ताचें नितळ रूप ताका स्पश्टपणान जाणवता.

'हें विस्कळीतं जग
म्हाका परतुवपाचें आसा
खूग जाणाचे गैरसमज.........
........बदलपाचे आसात'

अशें जेन्ना कवी निर्धारान सांगता तेन्ना सगळें कितें स्पश्ट जाता.

ह्यो ल्हान-सान कविता जायासान पूर्ण आत्मनिश्ठ. त्यो सादारण तीन प्रकारांनी आयल्यात. एक प्रकार कवी आपूण जावन, तटस्थपणान सांगता तो. दुसऱ्या प्रकारांत ताचेमुखार एक 'तूं' आसा. कवी ह्या 'तूं'क मुखार दवरून जें सांगता, तातूंतलो हो 'तूं' कोण ? वयलेवयर तें स्पश्ट जायना. पूण उतरां फाटल

अर्थभावच ते सांगतात - ती सांगाती सखी ! हें सांगतना कवी उतरांचो नकसुदायेन वापर करता. तिसरो प्रकार 'तूं' आनी 'हांव' चो म्हणजेच सांगातान दोगांयचोय.
देखीक :

'उलयतां उलयतां
तुवें विशय बदलपाचो
त्याच विशयाचेर आतां हांव उलोवपाचों'

हीं उतरां तशीं सादीं. पूण तांकां परस्पर आत्मीयतायेचे लक्तुबायेचीय एक गडद सया आसा.

'अर्थ' मदल्यो कविता म्हळयार जिणेंजलो अर्थ सोदपाचो प्रयत्न म्हय अशें म्हजें तरी मत. जिणेंतल्या अर्थाक जागोवपाचो, तांकां ल्हान भुरग्याक मांडयेर घेवन खेळयतात तसो हो अपुरबायेन हाताळपाचो प्रयास.

कवी एके रचनेंत म्हणटा :

' एक मिनीट दी
मरणाकडेन हांवें मागलें
...........ताची सेकंदाची दर
...........हें उपरांत म्हाका कळ्ळें

जिणयेकडेन कांयशां मिस्कीलपणान कशें पळोवचें तांचीं हीं वयलीं उतरां म्ळयार एक उत्कृश्ट गवाय. हातूंत 'मिनीट' आनी 'सेकंद' हांचेमदली गुणतुळा जे तरेन 'मिनीट' आनी 'सेकंद'चो उपेग करून प्रगट जाल्या ताका दाद दिवचीच पडटा.

सामक्या उण्या उतरांनी पूण खूबशें कितें म्हळयार 'शब्दा पलिकडचें' सांगून वता ती कविता आपणाली सुवात आपूणच सोदीत वता आनी निश्चीत करता हातूंत मात्तूय दुबाव ना. मक्ता उपरांतच्यो चार, स वा आठ वळी घेवन कवीमनांतले उत्फर्के - उमाळे प्रगटावपाची गौरीशबाबाची तांक तोखणांय करीसारकी. एके कवितेंत तो म्हणटा :

'मनीसपणाचे ज्वालामुखी जेन्ना
पृथ्वीचेर फुटटात

तेन्ना गरजेपुरतें
म्हजें वास्तव्य
नक्षत्रांचेर आसता !!!!!

ह्या कवितांमदलो 'तूं आनी हांव' मदलो, जाका एक नकसूद असो हृदयसंवाद म्हणूं येता ताका आपलो असं
वेगळो रंग आसा.

'गेल्लेकडेन तुजे,
आपालिपाचे खेळ
...........संवकळीच्या रानांत
............उल्याक तरी मेळ'

ह्या कवितांनी विकळाप नात, आदळ आपट ना, राग -वितराग नात. खंती - हुस्के आसलेच जाल्यार ते जगमासारके घोळो-घोळोवन मोव करीत गोड करून घेवपाचे.

'अर्था'तल्या सारकी कविता कोंकणीत जायती आयल्या. खुद्द गौरीश बाबालो 'शुन्य
हो असल्या प्रकारच्या कवितांचो झेलो हे आदीं आयला. पूण 'अर्था'न त्या 'जायते'पणांक एक नवो कंवळक
रंग दिला. एक वेगळी सया दिल्या.

ता. 14/08/2012 श्री.नागेश करमली

मनांतली चूक कळटकीर
पेनांतली शाय देंवली
कागद कोरायत-किरायत
उतरां नवीं उठलीं............

...................................

...मर्दींच केलो वाक्यान घोळ
... मेळ्ळो अर्थाक गर्भ-खोल.......

चुको कितल्योय आसल्यो तरी
अर्थ कांय बदलचो ना
...........अडथळे हे
अर्थानिच येतात
भावार्थ कोणेच दाखोवंक ना....!

हांगां प्रत्येकाक अर्थ आसा.....
पूण.....तो सोदचो पडटा
......शब्दांचो सांगात घेवन
.........................
.......शब्दांच्या सांगातान
जेन्ना वाक्यां घडटात
अर्थ बदलून घेता ?
......................
मदले मदीं सर्त घेवन....!

विशयाकडेन कितलींय
आसूं....नातीं
......शेवटाक
..................
...................
शब्दांच्योच जाती
..................
अर्थ मात जळयता काती......

आमी आमचे खातीर
शब्दांचे रथ घेवन येतात
अर्थाचें चक्र ......................
......................उलट सुलट
......................फिरोवन घेतात.

केन्ना...केन्ना.....तूंच म्हणटा
म्हज्या उतराक अर्थ ना
मागीर ?
............ तूंच अर्थ कित्याक सोदता ?

केन्ना...केन्ना...तूंच म्हणटा
म्हज्या वागण्याक संदर्भ ना
मागीर ?
............ तूंच स्पश्टीकरण कित्याक मागता ?

तशी म्हजे कवितेक

..................खुबशे अर्थ लागतात.....

नक्की तातूंतलो तुवें खंयचो अर्थ घेतलो.....?

.....................................

.....................................

कागदाचो........?

अक्षराचो........?

शायेन केल्ले चुकीचो......?

....म्हज्या शब्दाक
अर्थ ओतपाची शक्त ना....
पूण
प्रत्येक विचाराचे आयटींत
सर्त सोदपाची ते तांक जाणात
.....................................
.......................................
....म्हज्या शब्दांत
अर्थ घेवपाची वृत्ती ना
पूण
कल्पनेचे कलाकृतींत
आकृती सोदपाची प्रवृत्ती जाणात !

म्हाका ह्या ब्रह्मांडाचो
अर्थ कळ्ळो ना.:.......
.............
घडये म्हज्या अर्थाक तो मावलो ना !

कोणांचेय शब्द घेनासतना.....
म्हाका म्हजोच एक अर्थ
तयार करपाक जाय....
....................................
आनी सगळ्यांक अर्थ
सोदपाक लावपाक जाय.

कठीण शब्दांचे अर्थ
सोप्या ,सरळ शब्दांत सामावचे
वाक्याच्या उपयोगांतच तर सोपे अर्थ आयले
.........कठीण अर्थान कोणांक
.................. कशे बांदपाचे ?

शेवटाक  त्याच अर्थाकिडेन
वाक्य सोंपोवपाचें ..........

....................
आनी उतरावळीक बांदतना
...................अर्थच विसरपाचे ......!

विचारांचीं बिंयां घालून
अर्थाचें फळ दिलें
शब्दांची बेंदूल चडून
अनर्थाचें झाड केलें
आज बेंदूल सुकत आसा
अर्थ भायर दिसत आसा.

कर्ता, कर्म आनी क्रियापद
अर्थान सारावन व्हेलां
नाम ,सर्वनाम, विशेशण
अनर्थ घडोवन गेला.

तो अनर्थ जातलो म्हण
तुज्या अर्थाक हांवें कितलेशेच
अर्थ लायले .............
........... पूण म्हज्या अर्थाचे
...........तुवें वेगळेच अर्थ लायले

...........ते शब्द तरी कसले
जाका कर्ता कर्म नाशिल्लें,
सर्तीच्या आनी भरतीच्या
·भरात हांवें ताका क्रियापद जोडलें
जेन्ना सर्त सोंपली, तेन्ना कळ्ळें
तें तुजें विशेशण आशिल्लें.

जिणयेचो अर्थ सोदीत
अर्दी जीण सोंपून गेली
..................................................................
..........मरण दारार पावलें मात
जीण खरी अर्था आयली.....

अनर्थान पयस जाल्ल्या
मोडणार
परतून एक फावटीं
मेळुंया..............
..............उरिल्लें आयुश्य तरी
अर्थान बांधुया.

शब्द साचले.....

...............

अक्षरा रचलीं.....

...............

वाक्याचे अर्थ .....

...............

.....कोण - कोण समजून गेलो

......तो - तो विसरून गेलो.

हांगां कोणाचेय अर्थ लावंक जायनात
अशे अर्थ आशिल्ल्यांचें सांगणें
.....................................
अर्थाचो सोद शब्दांनी काडूं येता
अशें उलयतल्यांचें म्हणणें
.....................................
.....................................
...तुजो अर्थ हांव कसो काडूं ????

तोल सुटिल्ल्या उतरान
केलो घोळ
....मुखाच्या बोलांत
.....अर्थ कितलो खोल

....

विचित्र चित्राचो
विचित्र अर्थ
कलेच्या कलाकाराचो
कल्पनेची सर्त !!!!!!!!!!!

अर्थपासून पयस वचपी तुज्या
शब्दांकडल्यान कितेंय तरी
शिकपासारखें आसा
......................म्हूण हांवें अर्थहीन शब्दांचो
......................शब्दकोश तयार केला..!

जगप कशें
सोंसप कशें.....
हे
तुजे कवितेचो
अर्थ कसो कंळप ?
........................
.........तुका सोंसप
........म्हळयारच जगप !!!!!!

पूर्ण विरामाचे अर्थ
आमी खांय समजून घेतात
पुर्णत्वाकडेन पावता म्हणसर
शब्दच बदलितात.....

अर्थ पूर्ण करतना केला
अनुस्वारान घात......
अर्थाचे समर्थक म्हणटात
हातूंत कवीचोच हात........

त्या शब्दांचे कांय अर्थ
तुवें मनांतच दवरचे
अथांगांतले थेंब
........पापणेंतल्यान देंवचें.

अर्थ समजतलो म्हंण
कशींय वाचूंनाका
वळखीचीं उतरां
ओंठांत गिळूंनाका

दोळयांचे भाशेचे
अर्थ कशे लावप ????
.....................
.......तुजीं दुकां तरी कसलीं ???
आतां पुसल्या उपरांतच कळप......

अर्थ शेणिल्ले कवितेकय
मेळटा.............. वा ऽऽ वा ऽऽ
......................
.......
अळणी उतरांय आतां
मिटकी .......मारून खा ऽऽऽ

अंतर दवरून बरयलें
म्हण अर्थ बदलता ????
कानो, मात्रा, वळी तुज्योच
कागद कित्याक पिंजता ????

चौकांतल्या  पुतळयान मांडला
सत्तेचो नाच ..........
पुतळयार मात आतां
कबुंतरांचें राज्य..........

ज्युस्त पुनवे राती,
चंद्र म्हजो काळखांत गेला.....
उजवाड दिवपी नक्षत्रांनी
मोजणी वाडोवन दिल्या.......

पयलीं

……न्हाणयलो

……..पुसयलो

……..न्हेसयलो

…….पुजयलो

……..फातर म्हण कळटकीर

गर्भ कुडींत दवरलो.

फुकट मेळिल्लें
सदांच धुकोट.....
कश्टान रोयिल्लें मात
शिजता गोड...

कुपांनी भरिल्लें मळब
जोगलावता
.......जमनीर येवन
वगीच चिखलायत !!!!!

सार्वजनीक गणपतीक
सार्वजनीक सांगणी
सार्वजनीक मिळकतेंत
वयक्तीक पावणी.

दोन बिंदूतल्यान वचपी रेग
एक आनी सरळ आसता !
तिसरो बिंदू लागीं, मात !
वाक्याची रेग बिंदू सोदता.

एक दिसा हांव मेलों
फिरूंक लागलों भुतासारको
हां ऽऽऽ हां ऽऽ व करून
जगाक  भिंवडायलें
आतां कसोच मरना हांव
मनशासारको.........

राखणेखातीर .......
देवा कडेन आमी मागप
ताची देवळां मात
आमी राखप ??????

साथ मेळूंक.....लाथ सोंसत
कांठ सोदत गेली वाट म्हजी
ताट...पाट दिलो तरी
कित्याक विचारली जात म्हजी ????

हें विस्कळीत जग
म्हांका परतुवपाचें आसा...
खूब जाणांचे गैरसमज...
......बदलपाचे आसात.

संजीवनी मनांत धरून
..........सांत्वनाचीं कवनां
विखारी उतरांनी
......अर्थच मरना ..!

एक मिनीट दी...
मरणाकडेन हांवें मागलें
ताची दर सेकंदाची
हें उपरांत म्हाका कळ्ळें..

नितळसाण पळोवपाक
प्रत्येकाक दिले हारशे
सदांच न्हांवपी
...............त्या दिसा बुरशे.

रडटां रडटां रात न्हिदली
आमोरी काळखांत
नुकतीच फुल्ली........

शाणेपणाच्या म्हालवजार माड्डला
खिऽऽऽ ऽऽ ररररर
हांसप घेवन.................

................................
पिशेपणांत आकांतान
अँ ऽऽऽऽऽऽऽ अँ ऽऽऽऽऽऽऽ
शाबुद्दीर येवन.

चमच्यार चमचे घुसले
दवल्याक जागो ना रे
तोपांतली साय
ताटार अजून ना रे !!!!!!!!!

कवितेच्या कागदाची होडी
अर्थ घेवन तरंगता
शब्दांच्या राशीर
वाचतल्याक बुडयता ......



पुर्ण वाचले उपरांत
डोळ्यांतली दुकां
अपुर्ण कवितेचेरं पडलीं
शब्द - अर्थ न्हाले
पूण कविताच रडली..

हांव
मळब..............फोडून आयलों
नक्षेत्रां ......लुटून आयलों
.जिकलें आसमान सगळें
म्हजो तारोच हारयन आयलों..........

करपल्ल्या शेताक
कुपांची सावली...........
पिकिल्ल्या वताक
पावसाची पालवी...........

भिजिल्ल्या रोपांत
जाळेता मावली...........
सुकिल्लीं कणसा
...........बावगत उरलीं.

मरतल्या मड्याचेर रडून
जण एकलो आपल्या अंताचें उतर मेजतां
कोमेतल्या आंकुराक
विश्व विश्व करतना
स्वतःच हांसता.

चित्रकार म्हण जगपाक
तुजोच अर्थ कारणीभूत
कलेच्या सांगातान
आता रंग ओत....

तुज्यो यादी कुरवाळपाक
दिसांनय न्हिदतां
सपनां तुजीं येवची म्हण
न्हिदेंकय जागतां.

झाडाची सावली
.....उदकांत देंवली
....अकस्मात खडो पडून
....शितळताय पातळ्ळी.

मनीसपणाचे ज्वालामुखी जेन्ना
पृथ्वीचेर फुट्टात
तेन्ना...गरजेपुरतें
म्हजें वास्तव्य नक्षत्रांचेर आसता !!!!!

आमीच बांदून दिल्ल्या देवळांत
चार हातांचो तो देव जावन आसा
..................................
....दोन हात आशिल्ले आमी
नाशेल्ल्या भाशेन मागत आसा.

मनाचे अडथळे
दोळयांत धांपले
...........चिंतनाचे वळवळे
अर्थानि जपले.

.,..........सांगाताक आसतना
सांगातान चलचें,
सांगातान भोंवचें,
सांगातान मिरोवचें
......................
......................
आमचें हें प्रेमाचें जोडें
लोकांक तरी दाखोवचें.

पावळेंतल्यान सोडिल्ली
कवितेचे कागदाची होडी
तुज्या आगणांत देंवता......
...........
म्हजी बुडिल्ली बोट
तुजे दोळयांत रडटा....!

मरतल्या मडयाचेर रडून
जण एकलो आपल्या
अंताचें अंतर मोजता
कोंमेतल्या आंकुराक
विश्व विश्व करतना
स्वताभितर हांसता !!!!!

शेंपडेक दोर बांदून
बिरमूट उडली
शेंपडी नाशिल्ल्याच्या हाताक
लागपांक तिश्टली.

म्हाका अजिबात आवडना
म्हाका समजावपाक
दुसऱ्यांचे संदर्भ दिवप.
........................
तुवें समजूंचे म्हण मुद्दाम केल्ली
चूक............
............तुका कशी समजावप ?

रंग उडिल्ल्या तुज्या तोंडार
आवडीचे रंग भरले
रंग-रंगून, रंगून तुका
म्हजे रंगच......बेरंग जाले

तुज्या आनी म्हज्या
दोळ्यांक संवंय जाल्या

...............................

दुख नासतनाच रडपाची
सुख नासतना हांसपाची

...............................

मन नासतनाच मनोवपाची
मोग नासतनाच जळोवपाची.......!!!!!!!

तुज्या आनी म्हज्या
दोळयांक संवंय जाल्या
............................
............................
दुकां नासतनाच रडपाची
दुकां गळोवन हांसपाची.

जिविताक कंटाळून
जिविताचेरच काव्य रचलें....
मरण पळयना फुडें
मातशें जगचें अशें दिसलें.

जाय ती वस्त
केन्नाच जाग्यार मेळना
शेणलेबगर ताचें
मोल कळना.

मनांतले शब्द
तुज्या दोळयांत वाचतां
मदीं तुजी  पापणी
दुकांचें गुपीत लिपयता  !!!!!!

तेच वेळार थारायलें
अशेंच जगपाचें.......
.......तूं झगडपाक येतना
तुकाय जिकपाक दिवपाचें.....

प्रस्नांतय जाप लिपल्या
देखून जाप हांव ताळटां
म्हजी जाप प्रस्न जावन
प्रस्नाची प्रथा पाळटा......

वगीच म्हळें विचारचें..............
ना म्हळें.............
..................................
............. झगडचें.

हांवें तुज्या शब्दाक
अर्थ ओंपला........
आत्मविश्वासान केल्लें वाक्य
दुसऱ्यान जिंकलां.......

भावना ओततात
तुज्यो कविता
मन आटट्टा
ती म्हजे जिविता......

चंद्र येतकीर
मुखामळ दाखय
दाग कोणाचे चड आसात
आतां चाळय.

न्हिदेक आमी
एकमेकांचे सांगाती
जगतना मात वेगळ्या
सपनांची पुर्ती !!!!!

भुकेन भरिल्ल्या ताटार
तानेल्लो तांबयो कुशी
..........तानेल्लो हांव
..........तूं उपाशीं

दर दिसा तुज्या आंबाडयाक
मोगरेच्यो राती
सकाळ फुडें पिसडून वतात
हांतुणाचेर फांती.

हांव न्हिदचो ना
.....कित्याक तूं सपनांत येतलें
तास ऽऽ तास जागत दवरून
तूंच पयलीं न्हिदतलें.......!!!!

कितलेशाच पावलांभितर
हांवें तुजीं पावलां
........................... वळखल्यांत
................सांबाळ्ळयांत
......तिगयल्यांत
तीं पावलां वळखतना हांवें म्हजीं पावलां
माड्डिल्ल्यांत ......
तोडल्यांत.....
शेणयल्यांत.......

एक दीस म्हाका
तुज्या डोळयांत दुकां पळोवपाचीं आसात
..............................
सुखाचीं कांय जायना
पूण तुका रडोवपाचें आसा.

भावनेंत व्हांवता
शब्दांचो वारो
बंद मनाक
अर्थाचो उबारो

मनांत नासतनाय .......मनोवप
मोग आसतनाय....... जळोवप
जाग येतनाच .......न्हिदोवप
न्हिदिल्ल्यांक .......सपनेवप
भरिल्ल्यांक .......भागोवप
पितल्यांक....... तानेवप
.............................
.......हे तुजे कल्पनेक
हावें काव्य धरून बरोवप !!!!!!!!!!!

वेळ पळयत
तुजो हुस्को
वेळार पावल्यार उपरांत
घडयाळीचो कांटोय कुसको..

बरोबर आसतनाय
त्या मोडणार पावलां म्हजीं
आजूनय थांबतात..............
..............................
..............ते दिसा चूक कोणाची
आजूनय सोदतात.

गेल्ले कडेन तुजे
आपालिपाचे खेळ....
......संवकळीच्या रानांत
उल्याक तरी मेळ....

आयजूय ............तशेंच
पूण मात्सो फरक आसा
धगधगपी काळजांत
बंद श्वास आसा.

म्हाका खबर आसा
तुका हें सोबचें ना... ना..
फुकट गेल्यार'वचूं दी
............बाजारांत दवरचों ना.

मलम लावन फेंकचे नात
जाणून-बुजून केल्ले ....... भू  SSSSS
मायेचे वेदनेक तिश्टला
तुज्या ओठांचो....... फू SSSSS

उलयतां उलयतां
तुवें विशय बदलपाचो
...........त्याच विशयाचेर
आतां हांव उलोवपाचों



म्हजे पयलीं मरण
कित्याक तुवें मागचें
म्हाका तरी कित्याक जाय
तुजेबगर जगचें....

म्हळें.................एक दीस
मरून पळोवंचें
...........तूं कितलें रडटलें
...........ते तरी पळोवंचें !!!!

फकाणां म्हण केल्ल्यो गजाली
खूबफावट गंभीर जातात.........
दुबावाचीं नातीं पासून
खरीखुरीं कळून येतात.

आतां दुकांय तुज्या
पापण्यांत धरनात
तांचे क्षमतेभायर तीं
कोणाकच पळेनात.

रागान केल्ले चायेचेर
सदांच साय
मोगान पितलो जाल्यार
फोन बंद दवरूंक जाय.

केन्ना केन्ना आमी
दोगांनीय हिशेब करचे
फुकट गेल्लो दीस
कमावन काडचे.

तोंडार म्होंव दवरून पळय
सगळेंच गोड लागतलें
कडू-कडू किरायतेंय
तुज्या ओंठार हांसतलें.

वेळार येवपाचें कारण......म्हाका नाका
वेळ कित्याक जालो........तेंवूय नाका
वेळ कसो गेलो.......तेंवूय नाका
वेळ कोणाक दिलो......तेंवूय नाका
........ आतां म्हाका तुजो वेळ जाय
........वेळे बरोबर तूं जाय.

तूं उलयना तेन्नां
समजुपाचें
आतां आयदनां उलयतलीं
रांदनीवयली चाळणी-गाळणी पसून
आमकां समजायतली.

आयज कसलीय वस्त
जाग्यार मेळना
तूं ना..............
म्हण तांकांय कळना

फोनाचेर
तेन्ना........
................ श्वास घट्ट धरीत
विश्वासान प्रस्न आसतालो
कसो आसा तूं......?
आतां
........आजू-बाजूनी सुलूस घेत
दुबावान प्रस्न येता
खंय आसा तूं...........?

तुवें लिपयिल्ल्यो सगळयो गजाली
म्हाका सोदपाक आवडटात
घडये....!
म्हाका आवडटा म्हण खूब
गजाली तूं लिपयता....!

केन्ना तरी म्हजेलागीं
शितळ चान्ने मागचें
सुर्या तुजो हांव खरो
तुवें म्हण
वतांत सदांच......कित्याक तापचें ?????

दोळयांचें उलोवप
........तुका कळना
ओंटान उलोवप
........म्हाका जमना.

शब्द दी तारपाखातीर
उतर दी घडपाखातीर
वाक्य कर फुलपाखातीर
अर्थ दी जगपाखातीर

# अर्थ प्रकाशनान उजवाडायिल्लीं पुस्तकां/सिडी (CD)

| | पुस्तकाचें/सिडीचें नांव | साहित्य प्रकार | वर्स | लेखकाचें नांव |
|---|---|---|---|---|
| 1 | श्री दत्तपरंपरा ग्रंथ | धार्मिक साहित्य | 2006 | ॲड्.मंजुनाथदास कामत |
| 2 | 'शुन्य' | कविता सग्रंह | 2010 | गौरीश वेर्णेकार |
| 3 | 'शुन्य' | ध्वनीफिती | 2010 | गौरीश वेर्णेकार |
| 4 | मृगनक्षत्र | कविता संग्रह | 2010 | पुजा नायक गांवकर |
| 5 | दिवजां | विशेशांक | 2010 | संपादक-योगिता वेर्णेकार |
| 6 | श्री क्षेत्र मल्लिकार्जुन (भक्तीसार) | ध्वनीफिती | 2010 | गौरीश वेर्णेकार |
| 7 | उतरांगण | विशेशांक | 2010 | संपादक-योगिता वेर्णेकार |
| 8 | चित्तकुला महामाया | ध्वनीफिती | 2010 | श्री.देविदास कदम |
| 9 | पोंवळयाची माळ | कथा संग्रह | 2011 | श्री.विठ्ठलराय भट |
| 10 | चवथीची माटोळी | ध्वनीफिती | 2011 | गौरीश वेर्णेकार |
| 11 | चवथ अंक | विशेशांक | 2011 | संपादक-योगिता वेर्णेकार |
| 12 | शुन्य (दुसरी आवृत्ती) | कविता संग्रह | 2012 | गौरीश वेर्णेकार |
| 13 | नेण्टी ती नेण्टीं, जाण्टी कितें कमी ? | नाटक | 2012 | ॲड्.अभिलाषा नायक |
| 14 | अर्थ | कविता संग्रह | 2012 | गौरीश वेर्णेकार |

## अर्थ प्रकाशनाचीं आगामी पुस्तकां/सिडी(CD)

| | | | |
|---|---|---|---|
| 1 | यो ऽऽ यो गिता | ध्वनीफिती | गौरीश वेर्णेकार |
| 2 | आदी महालसा | ध्वनीफिती | गौरीश वेर्णेकार |
| 3 | महालसा (विशेशांक) | विशेशांक | योगीता वेर्णेकार |
| 4 | घुमट प्रकृती संस्कृती | संदर्भ ग्रंथ | गौरीश वेर्णेकार /धर्मेश वेर्णेकार |
| 5 | अस्तित्व | नाटक | गौरीश वेर्णेकार |
| 6 | अश्वत्थामो | नाटक | गौरीश वेर्णेकार |
| 7 | कण्वपुरम | संदर्भ ग्रंथ | गौरीश वेर्णेकार |
| 8 | गीत तुजें गायताना | गितांचो संग्रह | गौरीश वेर्णेकार |
| 9 | कोंकणी भक्ती सार | भजनांचो संग्रह | गौरीश वेर्णेकार |
| 10 | आमंत्रणां | संग्रह | योगिता वेर्णेकार/ गौरीश वेर्णेकार |
| 11 | 'यादींतले म्हान मनीस' | निबंद संग्रह | योगिता वेर्णेकार |
| 12 | कल्पनाशक्ती(कला कल्पना कलाकृत्ती) | संशोधान | गौरीश वेर्णेकार /योगिता वेर्णेकार |

# गौरिश वेर्णेकार

गोंय कला महाविद्यालयांतल्यान वेवसायीक कलेची (Fine Arts) ची पदवी. कुशल चित्रकार,रचनाकार, छायचित्रकार,संघटक म्हणू कोंकणी मळार वावर. सद्या चित्रकलेचो शिक्षक म्हणू श्री कात्यायनी बाणेश्वर विद्यालयांत. संगणकीय ज्ञान आनी नव्या तंत्राचो वापर कोंकणीच्या साहित्य,कला मळार करता. तांच्या करतल्याव कलाकृतींतल्यान तांच्यांतलो रचनाकार,चित्रकार आनी कलाकार ठळकपणान दिश्टी पडटा. कोंकणींतल्यान प्रकाशीत जावपी पुस्तकांनी,वेवसायीक नाटकांनी,फिल्मांनी आनी कार्यावळींनी पूर्वचित्रां आनी मुखपृश्ठां दिल्यांत."काणी काणी कोतवा" काव्यझेलो 2002 वर्सा,गोंया कोंकणी अकादेमीच्या अस्मिताय वर्सा पयलो चंवर अनुदान वेवजणेखाला उजवाडाक आयलो "अस्तित्व""प्रश्न" ह्या नाटकस्पर्धांक, कला अकादमी,पणजी आयोजीत नाटयसर्तीत लेखनाचें आनी दिग्दर्शनाचें इनाम फावो जाला. "घुमट"-एक प्रकृती आनी संस्कृती" ह्या विशयाचेर प्रकल्प करचला.



"दुयांव विथ लव्ह","गित तुजें गायताना",व्हॅल्ली ऑफ कलर्स्",समृध्दीचा सिध्दीविनायक",श्री क्षेत्र मल्लिकार्जुन","शुन्य","चोर्थीची माटोळी" ह्या सिडींखातीर गीतरचना केल्यात "काणकोणची तरंगां" ह्या संस्थेचे संस्थापक अध्यक्ष म्हणू कारभार सांबाळ्ळा.

साहित्य अकादमी दिल्लीमार्फत खासा लेखकांखातीर आशिल्ल्या प्रवास अनुदानाखातीर निवड जावन 2008 सालांत दक्षिण भारताची भोंवडी. पुणे-हांगां भारतीय साहित्य अकादमी-दिल्ली हांणी घडोवन हाडिल्ल्या लेखक संमेलनांत कवी म्हण गोंयचें प्रतिनिधित्व.




नेहरू युवा केंद्राच्या,गोंयचो 2002-03 सालाचो नेहरू युवा पुरस्कार फावो जाला. समर्थाचें पुस्तक उजवाडायिल्लेखातीर अक्कलकोट स्वामी समर्थाच्या वेवस्थापन कमिटीन श्रीस्थळ अक्कलकोट हांगां डिसेंबर 2007 त भोवमान केला. गोवा कोंकणी अकादेमीन 2010 च्या वर्धापनदिसा उत्कृश्ट सेवेखातीर भोवमानीत केला दैवज्ञ ब्राह्मण संघ,फोंडेच्यावतीन आदर्श कलाकार व्यक्तीमत्व म्हण भोवमानीत केला. "गोवा दर्शन यात्रा" ह्या सीडी निर्मितीखातीर मुख्यमंत्र्याच्याहस्ते भोवमान.

गोवा कोंकणी अकादमीचो भाषासेवा पुरस्कार 2011 चो युवा चैतन्य पुरस्कार फावो जाला युवा दि गोवा, मडगाव ह्या संस्थेवतीन 2010 युवा दि गोवा पुरस्कार फावो जाला. 'शुन्य' हो कवीता संग्रह 2010 वर्सा उजवडा आयला ह्या कवीता संग्रहाची सेगीत दुसऱ्या वर्सा दुसरी आवृत्ती आयला.



Arth
अर्थ प्रकाशन